प्रकाशक / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
दूरध्वनी / (०८३२) २४३८३५५.
प्रकाशन क्र. / ११४. अक्षर जुळणी / बिम्ब प्रकाशन.
छापणावळ / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

पयली आवृत्ती / डिसेंबर २०१५.
मुखपृशठ, मलपृष्ठ आनी भितरलीं रेखाटनां / श्रीधर कामत बांबोळकार.
विस्तव (कविता) आर. रामनाथ (मो. : ९८५०४५८७६३)
Vistav (Konkani Poetry) *by* ***R. Ramnath*** (M.:9850458763)
मोल : रु. २५०/-

**ISBN :** 978-93-85654-02-2



जिर्णें म्हाका
म्हजी जीण
सु
स
ह्य
करपाक
शब्द दिले
सूर दिले
ताल दिलो
लय दिली
अख्खी कविताच दिली
ते
म्हजे
**सर्गेस्त आवयक**
आदरान

# मांडावळ

## पुनर्जल्म

हांव दुयेंत पडलों
तशे सगळे देव आमगेर आयले
– आनी हांव साल्वार जालों...

खरें म्हळ्यार –
म्हाका जिणेची खऱ्या अर्थान वळख जाली
लागशिल्लें – पयसुल्लें
खरें – खोटें
मनीसपण – देवसपण
लख्ख बरें दिसलें
म्हजो अणभव दांडगो जालो
– आनी हाकाच सगळ्यांनी अपुरबायेन
पुनर्जल्म म्हटलो!

आतां हांवें
म्हजें यज्ञकूंड नव्यान प्रज्वलीत केलां
आनी तातूंत
एक एक वेचीक समिधा घालतां...
म्हजीं घरचीं
देवाक दिल्लें उतर पाळपाक व्यस्त!

## मृत्यूपत्र

म्हजे छातयेर
तूं तुजो रक्तरंग लाय
तुज्या दुकांनी
तुजें मुत्यूपत्र बरय
तें कांय वेळ पळय
दोळ्यांत आटय
काळजांत साठय
मागीर मोठ्ठ्यान वाच
मनांतल्या मनांत घोळय
गुणगुणय
हुंग मात्शें
छातयेक कान लावन बारीकसाणेन आयक
निमाणेकडेन
दोळे मिट
आनी भितर भितर पळय
तुका म्हजें मृत्यूपत्र स्पश्ट दिसतलें...

## श्राध्द

चूल भुकेल्या
बुडकुलो उमथो पडला
निरांजन सुकलां
देव सुस्त न्हिदल्यात
वण्टी वाळटेल्यात
दारां बरगेल्यांत
जनेलां खिळखिळीं जाल्यांत
ह्या घराचें आतां कांयच खरें ना...
जिणेचें आतां कांयच खरें ना...
हांव आंगणांत आयलों
मात्शें खणलें
शेकऱ्यां सकट माती कपलाक लायली
थोडी चाखली
आनी सरळ सूर्याक पळोवन
उजवाड गिळ्ळो
पचयलो
तृप्त धेंकर दिलो
आनी काळोख काडलो
उपरांत काळखांत रिगलों सासणाचो....
आतां
दिय्यार
उजवाड
म्हजें
श्राध्द
वाडटा....

## निशाण

म्हजो सूर्य बरो ना
ताका कुलकुलून जोर आयला
तो बुर्नुसांत रिगला
म्हजी उदेंतीय हुल्पल्या
तिणें पड्डो ओडला
मळब किण्ण जालां
सर्वांग शिण्ण जालां
मोख मुखार आसा
हांव एकलोंच आसां
तातूंत वाट अनवळखी
सांगात ना
वात ना
अस्त्रां ना
शस्त्रां ना
काळजांत काळोख ना
दोळ्यांत इंगळे ना...
आतां काळखार काळोख मारून
उजवाड करचो पडटलो
उरिल्ली वाट उजो लायत चलची पडटली...

म्हाका त्या पयसुल्ल्या पर्वतार
पर्वतावेले धुसर धुसर तेंगशेर
मळबाक तेकसर
निशाण म्हजें उबारूंक जाय
ते निळे निळे निळायेंत
म्हाका पुराय बुडूंक जाय... सासणाचो!

## ब्रम्ह आनी जीण

तूं मेकळेपणान
म्हजीं हुनहुनीत दुकां
तुजे सशक्त व्हटयेंत घे
उपरांत -
एक एक दूक मेकळें करून
तुज्या काळजाक लाय
दर एक दूक तांबडोगुंज मणी जातलो
ते सगळे मणी
म्हजे शिरेंत गुंथ
माळेंत मद्‌दीं म्हजें काळीज लाय...
आतां ही गडगंज माळ
तुज्या गळ्यांत घाल
आपशींच तूं
म्हज्या दोळ्यांनी पळयतलें
म्हज्या काळजान रडटलें...
ब्रम्ह आनी जीण
हांच्या मदीं
निद्रिस्त ज्वाळांनी वेढील्लें
म्हजें मडें
आनी तुजें अर्दकुटें थडें
तुका स्पश्ट दिसतलें...

## फॅण्टसी

निष्पर्ण
सरभोंवतण
मद्दीं
एक उबें मडें
मड्याचे तकलेर
पेट्टें सरण
त्या सरणाचेर
जळपी मनीस
ताच्यो मळब आकांताच्यो हुयेली
वयर
हड्डें बडोवपी दुख्खात्मे
सकयल
कवट्यो बडोवपी सुखात्मे
- आनी थंयच कुशीक
एका कोनशाक
असहायतायेची
काळीज फडफड...
नेत्र पडझड...
ही फॅण्टसी काय रिॲलिटी?

देवते...!
मानवते...!

## रंग

तूं
येतना
हाड कांय रंग
काळो, निळो, जांबळो
तांबडो, पांचवो
हळदुवो आनी धवो...
आमी रंगोवया
फांतोड
सकाळ
भर दनपार
सांज-तिनसांज
रात
आनी काळरात...
रंगोवया आमी
गरागरा फिरपी
काळचक्र
आनी काळय बी...

तूं
येतना
इल्लो चडूच हाड
काळो
आनी ताचे परसय
चडूच हाड
धवो...

## तिर्थ

तिर्थाक हात केलो
तुवें रगत घालें
कांचवेलों
आंग शिरशिरलें
घुवळ्ळों
सकल पडलों
तुवें तिर्थ मारून उठयलो
पर्थून तिर्थाक हात केलो
आनी परतेंय तेंच घडलें
हालीं हें अशेंच घडटा...

आतां हांव रक्ताक हात घालतां
घडये तूं तिर्थ घालीत
हांव तिर्थाक वचत
थेट तुजे मेरेनूय पावत... घडये!

## काळचक्र

भर दनपरां
म्हजे मसंडेंत
ज्युस्त म्हज्याच जोखाचो
हांवें एक फोंड मारलो
आनी तातूंत
दोळे उक्ते करून न्हिदलों
दीस सोंपलो...
रात सोंपली...
कोणेंच म्हजी वासपूस केली ना
देवान... देवचारान लेगीत!
फांतोडेर उठून
फोंड पुरयलो
ताचेर एक मोठ्ठो फातोर दवरलो
त्या फातरार म्हजी आशिनात केली
दीस, तारीख, तिथीय बरयली
आनी सूर्याच्या पयल्या किर्णार
हांवें म्हजेंच श्राध्द वाडलें!
उपरांत –
गांवचे वस्तींत आयलों
घरा आयलों
काळचक्र सदचेभशेन
आपलेच तंद्रेंत घुंवतालें...

## व्रर्तुळ

म्हजे कुडिचे तबकडिचेर
तूं तुजी सूय लाय
आनी तुका जाय तें आयक मुकाट्यान
भर तें तुजे बरगेल्ले फास्केंत मेकळेपणान
ठोक एक कळमेल्लो खिळो तुज्या काळजार
आनी व्हडा उमेदीन हुमकळय ती फास्की
तुज्या अनंत छाताडार
मनय उत्सव
म्हजे नि:शब्द वेदनेचो
आनी मागीर जळय
चिंता आनी चिता
एकाच बराबर
धुंवर जावन वचूं म्हाका वयर वयर
तूं मात्र चल सकल सकल
खोल खोल
आमी दोगूय मेळून
पुराय करुया
एक वर्तुळ
अलिखीत
चिरंतन सत्याचें...

तुजो आपालिपाचो खेळ
आतां सोंपय सासणाचो...

## विस्तव

नाका म्हाका :
स्वप्नां
कल्पनां
जागरणां
कारणां
उदाहरणां...

जाय म्हाका :
विस्तव आशिल्लें वास्तव
त्या विस्तवांत आसपाक जाय
सूर्याची खरसाण
ते खरसाणेर नाचपाक जाय जल्म आनी मरण
हाच्या दरम्यान आशिल्लें
सचेतन
चिरंतन
दैदिप्यमान
खीण
त्या खिणांत आसपाक जाय
सर्वांग सुंदर जिणेचो
रत्नजडित आविश्कार...

जाय म्हाका
म्हज्याच विस्तवाचें वास्तव!

## सत्य

हो म्हजो
नवोताल्ल फोटू
तूं तुजे बरगेल्ले फास्केंत घाल
आनी हुमकळय
तुजे वाळटेल्ले वण्टीर
एक कळमेल्लो खिळो ठोकून...

उपरांत -
खंयच्याय मड्यावेलो हार घाल
सरणाचो गोबोर कपलाक फास
पालवल्ली ज्योत लाय...

- आनी मागीर कर बिण्ण काळोख...

आतां हे किण्ण रातींत
तूं स्वताक जागय
जगय
जळय...

आपशींच एक चिरंतन सत्य जल्मतलें...

## देखाव

एक देखावः
वताचो रखरख
निष्पर्ण रूख
तेंगशेर पाविल्लें दुख्ख
त्या दुख्खा भोंवतणी
प्रदक्षिणा घालपी
म्हजो जर्जर आत्मो
ताचेर शेक गाजोवपी
परमात्मो...
नित्यनेमान म्हाका भेश्टावपी
नवग्रह
उबगल्लीं पंचमहाभुतां
आनी सखल
शांत, सुस्त, मस्तपैकी
निपचीत पडिल्लों हांव...
– आनी गायब जाल्लें तूं...

## क्रूड

म्हजी कूड
फूंक मारून
तूं तुका जाय तितली फुलय
आनी मागीर तिका गांठ मारून
तुका जाय थंय
जाय तसो
जाय तितलो वेळ खेळ...

उपरांत -
हे म्हजे कुडीर
तूं आरूढ जा
आनी वच झुजामळार
तुका जाय थंय
जाय तशी
धांवडय म्हजी ही कूड
एकाद्र्या कार्तांद झुजाऱ्यावरी
झूज तूं झूज
दाखय तुजी
रणनिती
रणतांक
रणकसब
दिपकावन वचूंदी
वयले आनी सकयल्ले सगळे
जैत जोड तूं सासणाचें
जावंदी हांव अज्रंवर...

निमाणेकडेन –
उखल म्हजी कूड
आनी दवर व्हरून
एका पेडार
शिकय तिका
पद्मासन
प्राणायम
तुजो नामजप
आनी बरेंच किदें!
खिणा खिणा कणकणी
तिच्या कणाकणांत
उपाट भरून राव तूं
दी तिका सांगात अस्तंतेमेरेन
जा विलीन तिच्यांत तूं
वा जा मेकळो अचळय सासणाचो...

## कॅनव्हास

हो एक कॅनव्हास घे
आनी हे रंग
आतां चितार एक लांबलचक न्हंय
तिचे हांडीर म्हाका बसय
म्हजे हांडीर एक व्हडें
आनी तातूंत तूं बस...

आतां आमी पयस पावल्यांत
पयस पयस पावल्यांत...

## तूं तुजें काळीज खतखतय

तूं तुजें काळीज खतखतय
दोळ्यांतल्यान इंगळे
आनी मेंदवांतल्यान
लाव्हा ओत
पुराय जळय तुजी कूड
कर गोबोर
त्या चिरंतन अर्धसत्याचो...
जा हलको आनी मेकळो
वच खंयतरी पयस पयस...

कालांतरान -
एक आत्मो
परमात्मो जावन
कोमात गेला
आनी ताच्या भक्तांनी
सर्गार घुरी घाल्या...

## दडक्रांनी दुक्रां झडय

वच तूं
निर्वस्त्र
अनवाणी
चिरंतन घाव्यांनी आंग सजय
कात सोलून वताक घाल
दडकांनी दुकां झडय
मनिसपणाचेर पोटतिडकेन उलय
मनश्यांक उलो मार
देवांक उलो मार
तुजें कोण एक आयकुपाचो ना
हांगा सगळे न्हिदल्यात सासणाचे
हे निशब्द पोकळेंत
फकत निरव शांतता आसा...

सभाग्या, तुजो हो प्रयोग
नाका थंय चल्ला...

## थड्यार उबो रावन

थड्यार उबो रावन
हांवें देवाक उलो मारलो
जाल्यार खेवान जाप दिली
आनी विध्वंस प्रगट जालो
ताणें आख्खे मसंडभर हैदोस घालो
थड्यांच्यो आतंकान भरिल्ल्यो आकांताच्यो हुयेली
आनी सागाड्यांचो नंगो नाच
हाणें मसंड आनी भोंवतण हिसपाभायर भयाण जाली
मसंडीवेल्या मळबाक वेर गेली...

हांवें परतून एकदां देवाक उलो मारलो
तो वग्गी!
हांवें म्हज्यांतुल्या राकेसाक उलो मारलो
आनी विध्वंसाक सरळ पायांपोंदा घेतलो...

आतां हांव मसंडींत राकेस जावन जियेतां...

## मळब

मळब फुटलें
आनी काळजांत ओतलें
काळीज निर्वस्त्र जालें
तें अनंत झऱ्यांनी व्हांवलें
तातूंतल्यान अग्नी जल्मलो
ताणें सगळेंच पेटयलें
हांवूय नानपयत जालों
आतां तूं फूट
आनी ओत म्हज्या थड्यार
हांव पर्थून जल्मतां
मागीर हांव फुट्टां
आनी ओततां तुजेर दडकांनी
तुका नानपयत करतां... सासणाचो!

विध्वंस असोच जल्मता...

## दुकानाची पावणी

आयज म्हज्या दुकानाची पावणी आसा
दुकानाची कांय ठळक वैशिष्टां:
दोळे
कान
नाक
हात
पांय
बरगेल्ले!
पोट सदींच पाड पडिल्लें...
काळीज
घसो
मेंदू
सर्वोत्तम स्थितींत!
म्हजें इमान, म्हजी श्रध्दा
पावणेर ना....
म्हजें श्राध्द मात पावणेर लागू!

पयली खेप...
दुसरी खेप...
लास घालतल्याक
देव पळयतलो!

## मान्यताय

तूं
एक लांबलचक श्वास घे
दोळे मीट आनी कांय वेळ आठय
तुज्यो सगळ्यो आदल्यो यादी
दोळ्यांतल्यान खतखतीत दुकां झडय
भिजय... झंजळय... उमळ तुज्यो त्यो यादी
बऱ्यो सुकय आनी जळय तुज्यो त्यो यादी
उपरांत -
नियाळ तुका हारशांत पुराय
दोळेभर साठोवन घे तुका
आनी अख्खोच्या अख्खो
चितार तुकाच तुजे आवडटे वण्टीर...

कांय वेळान
भायर येवन बांद निसण
पड आडवो तिचेर आनी मर...
पर्थून एक फावट जा जितो
आनी तूंच तुका घेवन चल मसंडींत
दाळ सरण
तूंच तुका दवर सरणार
आनी हड्ड्यार हात मारून
तूंच दी तुका अग्नी सासणाचो...

ह्या प्रयोगाक
वयर
मान्यताय ना...

## गर्दी

तुजे सांगातान
हांव ते गर्देंत एकदमूच घुसलों
गर्दी वाडत गेली
हांव शेणत गेलों...

उपरांत -
खंयचेतरी एका कोनशाक
तुजेचसारकें कोणतरी मेळ्ळें
वळख जाली
वळख वाडत गेली
ताणें म्हाका लुगार दिलो
हांवें तो आपणायलो
पर्थून एक फावट हांव शेणत गेलों...

आतां -
खंयूय गर्दी दिसत जाल्यार
हांव एकोडोच तुकाच सोदतां...

## समिधा

म्हज्या जळट्या सरणाच्या उजवाडांत
तूं तुज्या नितळ आनी शितळ दोळ्यांनी
बारीकसाणेन नियाळ
ही अख्खी सचेतन भोंवतण
तातूंतल्यान खूब्ब किदें शीक
गिरेस्त जा
तुका आपशींच
जिणेच्या रंगचित्तरांची
एक नविताल्ल परिभास कळटली
तूं आंगान आंग शिरंगारतलो...

ह्या म्हज्या म्हायज्ञांत
तुवें ओपिल्ली तुजे हक्काची एक समिधा
घडये –
तुका चिरंतन जिणेचें वरदान दीत
वा निर्वस्त्र मरणाचो साक्षात्कार घडयत...

## इंगळे

म्हजें दार
आयज अशें
हें उगडें किद्याक?
हांवें वतना तर कुलूप केल्लें!
घडये, तें आयलां आसत
वा तें येवपाचें आसा
हें कळ्ळां म्हूण
घरांनूच आपलें दार सताड उगडें केलां
वा दारानूच आपल्याक मेकळें केलां आसुयेत
हांव भायर सरतना जड आशिल्लें तेंच दार
सामकें ल्हव जाता....

तें येवपाच्या सुखान
वा हांव येवपाच्या दुख्खान जांव
आयज हांव घरांत नासतना
म्हज्या घराचें दार उगडें आसा
आयज हो खीण दबाज्यान मनोवंकूच जाय
आयज म्हाका म्हजीं दुकां गाळूंक जाय
वा ताचीं दुकां पिवंक जाय
आयज म्हाका म्हजे दोळे इंगळे करूंक जाय...

## गवाय

तूं
झडय तुज्या आत्म्याचो शिरंगार
कर मुदार
तुजी दृश्ट-सृश्ट
वसय तुजें ब्रम्ह
आपशींच तुजो आत्माराम
तुजे रुपान उरतलो...
आपशींच तूं
तुजे आत्मारामाची
गवाय जातलो...



## प्रकाशकण

तुजे कुडिच्या रंध्ररंध्रार
म्हाका म्हजीं बोटां फिरोवंक जाय
म्हाका तुजी कूड वाजोवंक जाय...

तुजे कुडीचेर प्रकाशकणांचो
शिंवर करूंक जाय
दर एका प्रकाशकणाचो
म्हाका झंकार आयकूंक जाय...

तुज्या ओंठांचो रंग
ओंठांवेले शब्द
ओंठांतले सूर
म्हाका म्हज्यांत मिसळूंक जाय
तुज्या आत्म्याची वळख
आनी म्हज्या आत्म्याची पारख
म्हाका करूंक जाय
एक बेसूर कुडींत म्हाका
फूंक मारूंक जाय...



## वयल्यान

वयल्यान
ताणें
सूर्य उडयलो
तो
म्हज्या हातांतल्यान सुटलो
आनी सकयल पडून फुटलो....

आतां
सकयल्यांनी
म्हाका पेटयला
आनी
वयल्यांनी ताका...

## खवदळ

हांव सरळ देवळांत वचून लिपलों
चक्क देवाफाटल्यान

भायर ताणीं खवदळ घातला....

दर-एक घर नाच्च जालां
एक्काय वाड्याची कुरू लेगीत उरूंक ना
अख्खो गांवूच शेणला...

घडये
आयज सांजवेळा वा फाल्यां फांतोडेर
ते देवळांत येत
- देवाक उखलून भायरूय मारत...

मागीरचें मागीर

सध्याक -
तांचें आंगान आंग धल्लां
आनी गांवांत मीर्ग झडपाक लागलां...

## मसण

तो
निमाणेमेरेन दळडिरोच उरलो!

ताका हांगाय वालोर नाशिल्लो
आनी वयरूय ताका लुगार ना
तो परतून हांगा येतलो
आनी गवटेर बसतलो...

हे म्हज्या शाण्या
तूं तुजी ती पडंग भूंय
ताका दान कर
आनी हें मडें
मदूर्दी उबें करून
एक प्रशस्त थडें बांद
तें थडें पुराय सिलबंद कर
उपरांत-
थंयच ताचे दीस कर
थंयच वाड ताचें वर्सस्राध्द
इतल्यान तो जातलो मेकळो
आनी तूंवूय मेकळो श्वास घेवपाक पावतलो...

सध्या-
दळडिऱ्यांची मसण गिरेस्त जाल्या!

## रंगचित्तरां

म्हजो
मेंदू घयरावला
दोळ्यांर साय आयल्या
कान व्हांवता
नाक चोंदलां
जीब लुळी पडल्या
काळीज खतांवलां
हात धरल्यात
पांय ओडटात
अख्खी कुडूच बरगेल्या...

हें पळय,
हांव नशिबाची भास उलयना
म्हजे जिणेचीं निशब्द रंगचित्तरां दाखयतां... तुका!

## बिम्ब

हें
म्हजें
तुजें
बिम्ब
सासणाच्या सत्याचें
पडबिम्ब जावन
लयबध्द पावलां मारीत
खोल
खोल
खरीमेरेन
पावलां...
थंयसर ताका
एका नव्या विश्वाची निर्मणी करपाक जाय
नव्या नव्या शब्दांचो
स्वरांचो
रंगांचो
आविश्कार करपाक जाय
हे मळबरंगमाचयेर
चिरंतन आत्म्याचो अभिनय
साभिमान सादर करपाक जाय
आत्म्याचें पडबिम्ब
आत्मारामा मेरेन पावोवपाक जाय...

## पाळणो

पर्थून एक फावट
तूं म्हजेखातीर
एक पाळणो म्हण
म्हाका सुस्त न्हिदपाक जाय...
उपरांत -
तूं म्हज्या फुड्यांत बसून
हेल काडीत
म्हजी जीण गा...

## म्हजें यादस्तीक

म्हजे कुडीचेर
तुमी तुमकां जाय तितले
खिळे मारात
आनी हुमकळयात
तुमी तुमकां जाय तशे...
येतले वतले आमगेले जाण्टेले
तुमची ही नविदाद पळोवन
तुमचे मेंदवाक सलाम ठोकतले
आनी घडये थंयच्यानूच एके नवे परंपरेची
सुरवात जातली...

म्हजें यादस्तीक
तुमी तुमच्यांतल्या एकाद्याचेर
कमीत कमी एक खिळो ठोकून
म्हाका हुमकळयात याद्दीन...

## न्हीद

तो
शांत न्हिदला
बोवाळ करूं नाकात
ताका सुशेगाद न्हिदूं दी
खूब्ब तेंपान
ताका आयज उसंत मेळल्या....

ताका आतां
कसलीच चिंता ना
कसलोच हुस्को ना
कसलेंच भंय ना...

ताका आतां खंयच
दूखऽ ना
खूपऽ ना
तोपऽ ना
तो सामको घटमूट जाला...

भावना
संवेदना
विचार
मनिसपण
देवसपण
हांचें ताका आतां पडूंक ना...
आयज तो खऱ्या अर्थान मुक्त जाला
ताची नामना चोंयवशीन फांकल्या
तोखणायेन तो जडभार जाला
शिरंगारान तो परमळला
ताणें आयज मळब वेंगायलां...

## गर्भखोलाय

तूं
एक
काम कर
मळब
आनी
धर्तरी
एकामेकांक तेकय
मळबाची अनंतताय
आनी धर्तरेची गर्भखोलाय
एकामेकांत विलीन जावंदी

## सातूय चक्रांतल्यान

सातूय रंगान
रंगय तूं
तुजें सर्वांग
उपरांत -
सात सूर आळयत
सातूय चक्रांतल्यान
मस्तपैकी भोंव तूं...
- आनी तुश्ट जातगीर
मडें कशें पडून घे हे मातयेंत...

तुका
आपशींच
लख्ख बरें दिसतलें
तुजेंच
ब्रम्ह!

## होमखण

म्हजी जीण
एक धगधगतें होमखण
जातूंत आसात
म्हजे कुडीचे
अगणीत रसरशीत इंगळे
– आनी तांचे वेल्यान चलत आसा
म्हजो आत्मो... परमात्म्याकडें संवाद सादत...

म्हजी जीण
एक परिपूर्ण
तपोवन....

## गांव

हो गांव सुस्त न्हिदला
हाणें सूर्य धांपला
चंद्रूय धांपला
ह्या गांवची न्हंय देखून
सुस्त न्हिदल्या...

निदान आतां तरी
एकाद्रो जाण्टेलो जागो जावपाक जाय
ताणें देवळांत वचून दिवो लावपाक जाय
आनी व्हडाव्हडान घांट वाजोवन
अख्खो गांव जागो करपाक जाय...

न्हिदिल्ली न्हंय जागी जाल्या
ती गांव गिळपाक लागल्या...

## दिश्टावो

पयलींचें सगळें बरप खोड
आनी पर्थून नव्यान बरय
आनी मागीर तें जळय
तुजे भगभगते जखमेर
तुका तुज्या वेदनेची खरसाण आपशींच कळटली
आनी जातलो तुका दिश्टावो तुज्या स्वयंभू देवळाचो!
आतां मात तूं मात्तूय बरोवं नाका
फकत जा निर्धास्त
आनी समाधिस्त
सासणाचो....

## उजो

ते शांत वस्तीक
कोणेतरी उजो लायलो
उजो लायतल्याचे
हात, काळीज, दोळे, मेंदू अजिबात दिसले ना
आनी दिसले ना ताचे उजो लावन पळून वतना पांय लेगीत...
खरें म्हळ्यार
बेगोबेग
किदेंय करून
ताका धरपाक जाय...
ताचे हात, पांय, काळीज, दोळे, मेंदू
कुडिंतल्यान हुमटावन काडपाक जाय
तांचें स्वतंत्रपणान संशोधन करपाक जाय
आनी संशोधनाचें फलीत
त्या परमसत्याचे सुवादीन करपाक जाय....

आरेच्चा! वयर सगळेंच फायरप्रुफ...

## खंयच्यान कोण जाणां

तुका उस्तिलो
उस्पिलो
आनी पर्थून
फोंडांत घातलो
पुरलो...
मागीर
फोणार हांव थय थय नाचलों
आनी फतकल मारून बसलों
खंयच्यान कोण जाणा
कोणेयतरी ओडलो म्हाका
भितर
खोल
खोल ...
आतां हांव धतरेच्या गर्भांत
आनी तूं मात्र मळबांत...

## निमाणेकडेन

हांव ताका तापयतां
वेंगायतां
समजायतां
ताचेर संस्करण करतां
पूण तो कांयच एक कानामनार घेना...

म्हजे कल्पनेतलें विश्व दाखयतां
तो त्सुनामी चितारता... पितारता

निमाणेकडेन
तिडकीन
हांव चक्क पाळणो हालयतां
तो व्हडा खोशेन
निसण बांदता!

## तूं म्हाका वेंगाय

तूं म्हाका वेंगाय
हांव तुजे भितर वतां
मागीर तूं ताका वेंगाय
हांव भायर सरतां
आनी मळबाक वेंगायतां
थंयसून म्हाका झडयतां
तूं एकठांय कर
आनी पी
तो आपशींच विरगळतलो
तूं ल्हव जातलें
वयर येतलें
आनी हांव
सामको स
क
ल...

## थाक्काय

तूं
तुजीं सगळीं खर दुख्खां
तुज्या कळमेल्ल्या आयदनांत ओत
तातूंत मिसळ
चिरवेदना
प्रलयंकारी दुकां
मळब आकांताच्यो हुयेली
आनी तुजे
आतंकान ओतप्रोत भरिल्ले खेपताप...
उपरांत –
घुसळ हें मिश्रण बरोचवेळ
सगळें बरें पैकी एकजीव जातगीर
एकाच दमान पी तें...
नक्कीच तुका थाकाय मेळटली सासणाची...

## ब्रांय

उदकाखातीर बांय खणली
पूण उदक लागलें ना
देखून देवाक आळयलो
उटंग्याचो पावस पडलो
बांय उपाट भरली
गांवूय उपाट भरलो...

तूर्ताक -
बांय पाडंग जाल्या
गांव ध्यानाक बसला...

## सांग

तुजे
नदरेंत अस्त्रां
उतरांत शस्त्रां
काळजांत विखार
मेंदवांत अविचार
हातांत कवदे
पांयांत कवच्यो...

सांग आतां हांव तुजेबगर खंय वचूं?

## जोतें

म्हजे चामडेचें
तूं जोतें घाल
तूं पयस पयस वतगीर
तुजें हेंच जोतें
तुजी वळख जातली
तेका एक जागा मेळटली
एक घर मेळटलें
थंय तूं रावतलो
तुजे वांगडा हांवूय रावतलों
म्हाकाय आयतेंच घर मेळटलें...

कालांतरान –
तूं मरतलो
हांव मात जितो उरतलों...

## अस्तित्व

हांवें म्हज्या देवाक
एके वण्टीर हुमकळयलो
आनी दुसरे वण्टीर हुमकळयली
म्हजे देवतेक
– आनी दोनूय वण्टिंचीं तोकां
एकामेकाक तेंकता थंय हांवें बसकण मारली
दोळे सताड उक्ते दवरून...

उपरांत–
खूब्ब तेंप जालो
तीं दोगांय
एकामेकाक मेळपाक
वण्टीवेल्यान देवलींचना...

खरें म्हणल्यार,
हांवें चिंतिल्लें
तीं दोगांय देवतगीर
तांच्या पांयांक घट धरून
समेस्तांक तांचें अस्तित्व दाखोवप
नाजाल्यार तांचे वांगडा
नाच्च जावप...

आसूं–
केन्नायतरी
नाच्च जातलोंच... सासणाचो...

## ब्रम्ह

दडकांनी झडय
तूं तुजें नवचैतन्य
कर नवनिर्माण
हे म्हजे पडंग भूंयेर
रचय तुजें चिरंतन नंदनवन
वसय तुजें अनाकलनीय ब्रम्ह
जल्मय हांगा दर एक बाळक
जावन तुजें प्रतिरूप
ही अनंत अवतिकाय जावंदी
तुज्या अमृतमय अस्तित्वाची
खर गवाय
तुजे सासायेसकट...

दडकांनी झडय तूं तुका पुराय...

## तुवूंय खंयतरी पयस पयस चल...

तूं
तुगेल्यांक
म्हज्या गांवांत धाड
म्हगेल्यांक तुज्या गांवांत व्हर
तुंवूंय खंयतरी पयस पयस चल...
हांगाचें सगळें हांव सांबाळून घेतां...
मुदसांव जायच!

## यादी

हांवें
म्हज्या
मागण्यांची
एक लांबलचक यादी
ताच्या हातांत दवरली
जाल्यार
ताणें
म्हजीच
याद केली!

## सोद

तूं
तुर्जी सगळीं कुकर्मां
तुजे तकलेंत एकठांय कर
ताळवेक मेदीसावान एक बुराक मार
आनी एका चांदीच्या आयदनांत तीं ओतून घे
तेच परी
तूं
तुजीं सगळीं सत्कर्मां
तुज्या काळजांत एकठांय कर
हड्ड्याक मेदीसावान एक बुराक मार
आनी एका तांब्याच्या आयदनांत तीं ओतून घे
उपरांत
तूं तुज्या सत्कर्मांचो अभिशेक देवाक घाल
आनी तीर्थ म्हणून पी
देव आसूं वा नासूं
तुका तें तिर्थ पचतलेंच...
तेचपरी
तुज्या कुकर्मांचो नैवेद्य देवाक दाखय
जमता जाल्यार खावय
तो खायना जाल्यार
ताका दाखोवन तूंच खावन घे
जर नैवेद्य पचलो
जाल्यार देव आसा
आनी खपलो जाल्यार?

देव असोय सोदूंक येता तर?

## म्हजो देव रापला

म्हजो देव रापला
तूं तो बरो घास
चकचकीत कर
धू
उमळूं नाका...
पूस
सुकोवं नाका...
उपरांत दोनूय हातांनी ताका धर
दोळेभर पळय
वळख
वळखलो जाल्यार
मनांतल्या मनांत हात जोड
ताचें नामस्मरण कर
आनी एका बऱ्याशा जाग्यार दवर ताका
तुज्या घराची सोबा जातली
देवाऱ्यांत मात दवरूं नाका
देवळाचेंय चितूंक नाका...

– आनी घडये वळखलो ना जाल्यार
कांय नज!
तो तुका पयलींसावन वळखता
आनी म्हाकाय बी...

## ॐ श्री टींब्र टींब्र नमो नमः

धाय दिकेन शेकानशेक पातळेल्ली
ही तुजी वंदनीय भूंय
हे तुजे परमप्रिय दर्शनीय पांय
ही तुजी नखशिखांत पवित्रताय
आनी सर्वमान्य अनंत सासाय...

ही रंगरंगयाळी
मंगलमय अवतिकाय
तुज्या अनाकलनीय अस्तित्वाची
खर गवाय
ही तुजी
साकार
निराकार
ब्रम्हांड सुरूपाय...
तुज्या निरुत्तर प्रस्नांची सरबराय...
तुज्या चिरंतन सत्याची
गर्भखोलाय...

ॐ श्री टींब टींब नमो नमः

## रेडो

हें पळय
तुवें आपय नासतना
हांवूच तुजेकडें आयलां
हे तुजेर उपकारूच म्हण
आनी होच चान्स घे
मागीर पिकासांव नाका...

आतां तुवें आपयल्यारूय
हांव कसोच येवचोना
तुजो रेडो गोठ्यांत बांदून
म्हजो पाडो तुजेर सोडटलों
तुवें शेक गाजयलो तितलो खूब्ब जालो
आतां तुका हांव भिकूय घालिना...
तुजी सासाय सोंपल्या
आनी म्हजी सुरू जाल्या...

खरें म्हणल्यार
म्हाका लागू तें तुकाय लागू जावपाक जाय...

## तूं मात्सो रेंजींत यो

तूं मात्सो रेंजींत यो
खूब्ब वेळ उलोवंक जाय
खूब्ब कितें सांगूंक जाय
काळीज हलकें करूंक जाय
मन मेकळें करूंक जाय
दुबाव विरयत जीण जगूंक जाय
तुका पचयत जीण जगूंक जाय
तूं सारको रेंजींत यो
तूं सामकोच रेंजींत यो...

तशें पळयल्यार
तूं खंय रेंजींत आसता
सदांच आऊट ऑफ रेंज!
नॉट रिचेबल...

एक मात खरें
सगळीं कामां फोनार जायना...

## देव गांवांत आपशींच येता...

पयलीं थंय फकत रान आशिल्लें
उपरांत एक खोंप जाली
पांयवाट जाली
आनीक कांय घरां जालीं
कच्चो रस्तो जालो
एक पेड जालें
पेडार घुडी लागली
घुमटी जाली
पक्को रस्तो जालो
उदक आयलें
वीज आयली
खूब्ब घरां जालीं
देवळी जाली
देवळेंत देव आयलो
दोन-चार बंगले जाले
देऊळ जालें
देव व्हड जालो
भोवतण व्हड जाली...

गांव हो असो जल्मता
देव गांवांत आपशींच येता...

## पोस्टमॉर्टेम

हो व्हडलो देव
सामको ओर्रांद!
भांगरा रथ
भांगरा मखर
भांगरा पालखी
पॉश सांगोड
पेजाद वांगोड
आनी अशें जाय तें
ताचे लागीं आसा
ताचें सगलेंच झकपक...

आनी हो आमचो धाकटुलो देव
सामको पादिशेर
पटी काडून दीस सारता
हाचें कांयच खरें ना
हाचें कांयच बरें ना...

हांव असो काळखांत किद्याक मुंगरून रावलां?
चल, ह्या देवाच्या नशिबाचें पोस्टमॉर्टेम करुया
आपशींच म्हज्या नशिबाचो रिपोर्ट मेळटलो...

## म्हजो देव कोमांत गेला...

हांवें
घांट वाजयली
जंगाट वाजयलें
तासो बडयलो
ढोल बडयलो
कासाळें वाजयलें
शींग फुकलें
माराण लायले
गरनाल फोडले...

गाराणें घालें
बोब लेगीत मारली...

म्हजो देव कोमांत गेला

हांव म्हजें देऊळच धांपतां...



## तो खूब्ब उलयलो

एक एक करून
सातूय रंगांच्यो कळयो लायल्यो ताका
पूण तो एक्काय रंगाचे कळयेर
मात्तूय उलयलो ना...
निमाणो यत्न म्हूण
सातूय रंगांच्यो कळयो एकसणीच लायल्यो!
तो धवोफुल्ल जालो...

तो खूब्ब उलयलो!



## सोंपण

म्हजे हे कुडीचेर
तूं तुका जाय तसो
शेक गाजय
आनी कर मेकळो
म्हजो आत्मो
जा तूं पुण्यात्मो
आनी परमात्मो लेगीत...

जा तूं दिगंत
आनी अनंत अनंत...
वयर वसय तुजो सर्ग
आनी सकयल बांद तुजें देऊळ
फकत त्या देवळाचें पयलें सोंपण मात
म्हजें जावंदी
म्हजेंच जावंदी...

# इतलें तूं करूच

तुज्या दरबारांत
सदांच लखख उजवाड
आनी म्हज्या
बिण्ण काळोख!
तूं उदकान पण्टी पेटयता
आतां तूं म्हज्या दुकांनी
म्हजें काळीज पेटोवन
म्हाका लिपय
आनी तुका दाखय...
म्हजो चिरंतन काळोख
सासणाचो नानपयत जातलो

इतलें तूं करूच...

## तूं प्रस्नांत

तूं
मनांत
गळ्यांत
काळजांत
आनी बोंबलेच्या देठांत...

तूं
स्वासांत
उस्वासांत
भासांत
आनी दर एका घासांत...

तूं
रंगांत
ढंगांत
संगांत
आनी दर एका व्यंगांत...

तूं
कृपेंत
करूणेंत
आवयंत
आनी तुजे अनंत सासायेंत...

तू प्रस्नांत...
तूं जापेंत...

## सरणार नाका

तूं
उशाकडें राव
पांयांकडें नाका
खोटावतलो....

–सावळेक बस
वताक नाका
कडटलो....

– काळजांत यो
दोळ्यांत नाका
गळटलो...

– चरणार पड
सरणार नाका
जळटलो...

## आंगव्रणी

हांवें
केल्ल्यो
आंगवणी
ताका
बेस्स बऱ्यो
याद
आसा...

म्हज्यो
मागण्यो मात
तो
साप्प
विसरला...

## शिरंतरांनी

तूं
म्हज्या
शिरंतरांनी
शिरंगारला
तूं
सर्वांगान
सर्वांगांत
व्यापला
आनी उरला
हांव मात
थंयचे थंयच सोंपलां...

तूं म्हाका
जळय
घोळय
आनी पचय...

तूं म्हाका जागय...

## तुजेंच

म्हजें
उलोवप
बरप
सगळें
तुजेंच
ताचो
अर्थ
अनर्थ
तूंच...

तातूंत म्हजो कांय एक वांटो ना
बेठोच गैरसमज नाका...

म्हजें जगपूय तुजेंच...

## शेन

म्हजी कूड सताड उक्ती आसा

येयात
म्हजे भशेन वागात....

म्हाका
म्हजे शेनार
खूब्ब देव
जाय...

## चेतय

तूं
म्हाका
चेतय...
रिझय...

तूं
म्हाका
जागय...
न्हिदय...

## रिपोर्ट

तो
    असो
काळो
     कसो?

स्कॅन कर...
रिपोर्ट
    **उमास**
          येतलो...

## फ्यूज

एक फ्यूज
रोकडोच
          वचपाचो...

- आनी एक फ्यूज
उसरां
    वचपाचो...

चिरंतन फ्यूजाचेर रिसर्च चल्ला...

## तुका किदेंय म्हण

तुका किदेंय म्हण
किदेंय वाड
सगळेंच तुका
गोड
          गोड...
फकत तुका
काळीज दिवन
दोळे मात
          पेटोवंक
               जाय...

पिसो तूं
सामकोच
          पिसो
               तूं...

## सुर्याचें मात तशें नासता

तुका
धांपल्यारूय
काळोखूच
- आनी
    उगडल्यारूय
        काळोखूच...

सुर्याचें मात तशें नासता...

## उमास

ते
  सगळे
      उमाशेक
          वेंचून
             आयल्यात...

– तेन्नाच्यान
        तांकां
           फकत
              रातचेंच
                  दिसता...

## म्हाका

पयलीं
प
ळ
य...

मागीर
प
च
य...

निमाणी
सो
प
य
तूं
म्हाका...

## अदृश्टांचो धनी तो

खोल खोल
वता तो
भितर भितर
सरता तो...

काळो कुळकुळीत
काळ जावन
काळखाकूच
गिळटा तो...

अनाकलनीय
अस्तित्वान
अंतरधान
पावता तो...

अदृश्टांचो
धनी तो
अदृश्टांत
रावता तो...

## आवयंत ब्रम्ह

हाडान हाड
जळय तूं
निचेश्ट चूल
पालय तूं...

दुकांनी दुख्ख
शिजय तूं
बिण्ण काळोख
पचय तूं...

घामान जीव
न्हांणय तूं
कातीन जीण
न्हेसय तूं...

दोळ्यांत दिवे
पेटय तूं
काळीज सूर्य
लिपय तूं...

रगतान सैम
रंगय तूं
आवयंत ब्रम्ह
दाखय तूं...

## तुजी वळख

म्हजो काळोख तूं घे
तुजी
वळख
म्हाका दी...

## गांव म्हजो काळखांत घुस्मटता

तूं येवं
तो येवं
ती येवं
तें येवं
कोणूय येवं
येतल्यान वांगडा फांतोड हाडची...

**गांव म्हजो काळखांत घुस्मटता...**
**गांव म्हजो किरणां सपनेता...**

# उजवाड दाखोवन काळोख हाडटले

ताणीं स्वताच केल्लो काळोख पयस करपाक
ते आतां पंगडा पंगडान
भायर सरल्यात
तांचे हातांत
रसरशीत पेटिल्ले कवदे आसात
ते आतां
जाय थंय
नाका थंय
मेळत थंय
दिसरात भोंवतले...
उजवाड दाखोवन काळोख हाडटले!

किदेंय करून
हे खेप
आमी तांचे कवदे पालोवंकच जाय... सासणाचे
– आनी आमी आमकांच पेटोवन
ही चिरंतन भोंवतण
लख्ख करपाकूच जाय... सासणाची!

## ह्यांवें

हांवें
म्हजो
सूर्य पेटयलो
आनी तांचे पेटोवंक
भायर सरलों
जाल्यार ताणीं
काळोख मागलो
हांवें म्हजो सूर्य पालयलो...
ताणी चुडी पेटयल्यो...

हालीं हें अशेंच घडटा
बेठोच हांव बुडटां...

## पिक्रासांव

मेजः १
म्हाका पिकासांव जालां
तुकाय पिकासांव जालां
हांव इल्लें घेतां
तुंवूंय इल्लें घे...

हांव पडलों मरे!

मेजः २
म्हाका खोस जाल्या
तुकाय खोस जाल्या
हांव इल्लें घेतां
तुंवूंय इल्लें घे...

हांव आयलों मरे!

## पंदरा लाख

आजुनूय भायरसून
ताणीं काळो पयसो हाडूंक ना
आजुनूय म्हजे खात्यांत
पंदरा लाख सोडूच
सादे पंदरा रुपये लेगीत
जमा जावंक ना!
निदान इतल्यान
एक वडापाव तरी खातलों आशिल्लों...

हां, इतले मजगतीं
एक मात अप्रूप मुजरत घडलां
म्हजे गरीबीचेर वट्ट पंदरा हजार कॅमेरे
फोकस जाल्यात...
म्हजे गरिबीक आतां बरे दीस आयल्यात
म्हजी गरीबी आतां सर्वपरिचीत जाल्या...

देव बरें करूं!

## सूट

म्हाका एक सूट शिंवपाक जाय
सूट ज्युस्त म्हजेच जोखाचो आसपाक जाय
सुटाचेर
म्हजें नांव
म्हजो नामो
सूट शिंविल्ल्याची तारीख
आनी तिथी आसपाक जाय
सुटाचो कपडो
मुलायम आनी दागप्रूफ आसपाक जाय
सूट कोणेतरी स्पॉन्सर केल्लो आसपाक जाय...

खरें म्हळ्यार
म्हाका हो सूट
फकत एकूच दीस घालपाक जाय
म्हजे दुयेंस आवयचे खबरेक
आमगेर आमचो राजा येवपाचो आसा...

उपरांत -
म्हाका ह्या सुटाची पावणी करपाक जाय
म्हज्या सुटाक लांस घालतल्याक
सुटा बदलाक म्हजो म्हाकाच दिवपाक जाय...

हांव काश्टेकार
काश्टी म्हजी आइडेन्टिटी!

## तूं खूबूच मुदार जाला

तूं आमकां आमचोसो दिसलो
देखून आमी तुका सरसकट आपणायलो
तुंवूंय आमच्यांत रुळलो, मिसळलो
आमी तुका खांदार बसयलो
माथ्यार लेगीत घेतलो...
तुजें - आमचें नातें बारा दिसांचेंशें जालें!

हालीं-
तूं भायर आसतना आमचोसो दिसना
तूं भितरूय आसतना आमचोसो दिसना
तुजो भेस बदल्ला
तुजो रंग बदल्ला
तुजें उतर बदल्लां
सूर बदल्ला
तुजी अख्खी बॉडीलॅन्ग्वेजूच बदल्ल्या
तूं खूबूच मुदार जाला...

- तूं दर खिणाक नॉट रिचेबल जाला...

- आमीय आमकां स्वीच-ऑफ केल्यात...

## जिणे खिळखिळो

जिणे खिळखिळो
लयीन वाजय
मागीर गाजय
मसंडीत...

मसंडीत उबो
विचित्रांचो देव
किजिलांचो खेव
गोबरांत...

